**पडवेवयलीं संवर्णी**
संजीव वेरेंकार

**Padvevoilim Savnim**
By - Sanjiv Verenkar

**प्रकाशक :**
स्नेह प्रकाशन
वैभव वेरेंकार,
सावयवेरें, फोंडें-गोंय.

**छापपी :**
सिध्दांत प्रिन्टर्स
आर्ची फॅन्टासी बिल्डिंग,
अस्नोडा, गोंय.

**प्रकाशन क्रमांक : 8**

**पयली उजवाडावणी :**
ऑगस्ट 2008

**मुखचित्र आनी भितल्लीं चित्रां :**
अमोल कामत

**मोल :** 50 रुपया.

अर्पण पत्रिका

म्हजें माणकुलें समिधा
आनी ताचे वांगडच्या
सगळ्या भुरग्यांक
व्हडा अपूर्बायेन
हें पुस्तक ओंपतां

- संजीव



पडवेवयलीं संवर्णी
तांदूळ खावंक ल्हेवटीं
हर्त हर्त केल्यार लेगीत
कशींच वचनासलीं

आमच्या बाबू रे
भोबो लिपय रे
पाडसावेल्यान
काको येवन
घेवन वचत रे







कोगळा आका,
कोगळा आका
खंय गा वतालें,
सड्यावेल्या वडा पारार
कावळे मामीन घोटेर केला
थंय गा वतालें

आंब्यार आंबो
पिकला पळय
कावळो खांद्यार
लिपला पळय
कावळे मामा
कावळे मामा
आंबो मात्सो
चोचय चोचय रे





कोलये मामी
कोलये मामी
येंदे रातची खंय ?
नागू दादाल्या घुडान
कोलो गेला
थंय थंय थंय

कुतू आमचो शाणो
भांगरान गूण बांदपाचो
बाबू जेविना जाल्यार
आपूण उपाशीं रावतालो



मस्तो कोलो रानांतलो
गांवांत येवन लिपलेलो
कोंबडी घेवन धांवतां धांवतां
आमच्या कुतून आडायलो



जंय रे बाबा, जंय आतां
दीस सोपून काळोख जाला
हालत धोलत चंद्रीमामा
मान हालयत मळबांत आयला।
घोटेरांनी पेटल्यो वाती
सवणी लेगीत न्हिदलीं आतां
तूच कित्याक अजून जागो
जंय रे बाबा जंय





म्यांव म्यांव म्यांव
बिलूबाय आमचें
खुबूच बाये मस्तें
दूदू खावंक लेहवटें



कोंकोंच कों, कोंकोंच कों
कोंबडी कोंकारता
तांती घालूंक मेळना देखून
कोंब्याक तापयता



बाबू आमचो पडवेर
काको बसला खांदयेर
नदर ताची
बाबुले पिरयेर ।
बाबू आमचो पडवेर
काको बसला खांदयेर
काक्या काक्या यो रे यो
तुकां घालतां घुसू मोरयेर





सवण्याच्या गो पिला
यो गो हांगां उडून
शेतांतलें कणस पिकून
केन्नासावन रावलां तुकां

काची बुची भुरगीं आमी
खेळटा खेळटा आंगणांत
कापूस कुपां पिंजीत पिंजीत
चंद्रीम आयला मळबांत ।
धवो फुल्ल हांसो ताचो
लिपता आमच्या दोळ्यांत

पावस पडटा मिर्गाचो
खळ्यांत व्हडीं सोडपाचो
दोंगरा पोंदचो वझरो
दूदू जावन वतपाचो





पावस पडटा मिर्गाचो
पाखां फुलोवन मोर पिसो
रंगांचो आयणो हालयत
रानभर नाचपाचो



पावस पडटा मिर्गाचो
मोगरे कळे हांसपाचो
रात्रीतल्या मुंबरापोंदा
भिकणा भाजून खावपाचो



धोल ताशे वाजयत वाजयत
आयलो पावस रानांतल्यान
शाळगड्यांच्यो सगळ्यो सत्र्यो
हुबोवन गेल्यो मळबांतल्यान



एक कावळो
पाखां कापिल्लो
करता कांव कांव
उडूंक येना म्हूण
म्हुण्टा हाय हाय



सवण्या सवण्या
तुजीं पाखां म्हाकां लाय
एकदां तरी म्हाकांय मात्सो
मळबांत बरो उडूंक जाय





पिकें कणस शेतांतलें
रखरखीत वतांतलें
केन्नासावन राखत रावलां
शिटूक सवणें रानांतलें

कळ्या कळ्या न्हिदूं नाका
चंद्रीम मळबांत येवचो जाला
गोड म्हौंव खावंक तुजें
रानभोवर पावचो जाला



फुला फुला उठ गो बेगीन
सूर्य मळबांत आयलो तरी
अजून कित्याक रावलां न्हिदून
शाळेंत बाई पावची जाली
तिच्या माथ्यांत वच गो बेगीन





पावसा पावसा घसघसून यो
आंगणांत उदक भरूंक यो
तरेतरेचीं व्हडीं केल्यां
ती सगळीं व्हांवोवंक यो



मस्त वारो रानांतलो
पिपळाक खातकुल्यो करतालो
सळ सळ सळ हांसो पिपळाचो
तळ्याच्या हारशांत ओततालो
एक एक पान झडयतना
तळ्यांतलो झरो मुरगट्टालो



उडत उडत सोबीत सवणें
शेता धडेर पावलें
कणसा गळ्यांतलें गीत हळदुवें
ताचे चोचीत रिगलें
आनीक सवणें उडून गेलें
कणस बाबडें पळयतूच उरलें



आमच्या गांवांत अजून
उरल्यांत राना देखून
खावंक मेळटात
काण्णां आनी चुन्नां





कायलींत नुस्तें चळचळटा
जिबोळ्यो चाटीत बिलू आमचें
म्यांव म्यांव करीत
रांदचे कुडींत घुटमळटा

हांव गो धवें
तूं गो काळें
म्हणटा म्हणटा
मळबांत कुपां झगडलीं
आनी थंड शितळ
पावस जावन
शेता शेतांत झडलीं
कच्च करून काडून आंग
धवी फुल्ल बकीं
पाखां फुलोवन उडलीं

कापूस कशें गुबगुबें
धोलता बाय माणकुलें
पाळणेंभर शिंपलां चान्नें
नळ्यांतल्यान चंद्रिमाचें



सूर्यदेव जालो जागो
उजवाड नवो दारार उबो
बोंग्या कळ्यांतल्यान
भोवर भायर येवचो जालो



झाडांवयली सवणी
सदां सकाळी
आमगेर येतालीं
पडवेवयले आशे खावन
उडून परती वतालीं
देखून घरात आमी
पांजरे लायनासलीं



समिधा म्हजें बाय
गोठ्यांत हामेता गाय
दूदू पिवंक जाय जाल्यार
पाळण्यांत न्हिदूंक जाय



ल्हारां ल्हारां दर्याचीं
दुदावरी फेसाचीं
परत परत देगेर येवन
रेवेंवेल्या भुरग्यां वांगडा
धरचेल्यानी खेळटालीं





रुखांवयली सवणीं
शेतांत वतालीं
आनी कणसां पायांतलीं
खुळू खुळू घुंगरां
चोचीत धरून अचळय
आमगेर येतालीं
आनी भुरगीं खळ्यांतलीं
पांयांक बांदून तीं
आंगणांत सर्वय नाचतालीं

काजुल्यांच्या उजवाडान
पांखो भोंवता पानान पान
पेरां खावन, चिकू खावन
वता उडून रानान





काळो काळो पाखो
पोरसांत येवन बसलो
पेरीवयलीं पेरां पळोवन
लाल गळोवंक लागलो

म्यांव म्यांव माजरां
जनेलार बसल्यां
नुस्तेकान्न येतली म्हणून
वाट पळयत रावल्यां





कुपांच्या पाळण्यांत
चंद्रीम धोलता
शितळश्या वाऱ्यांत ताच्या
गुलाब कळ्यांतलो
भोवर पिसो नवे सकाळेचें
गीत गुणगुणटा

आंबोलेचीं खेतीं
पळोवंक दिसतात शाणी
हातांत कितेंय आसल्यार
झोपय मारूंक फाकडीं



पिरायेन जरी कितलोय व्हडलो जालो तरी भुरग्यांवांगडा भुरगो जावपाची कला जाका सादल्या ताका भुरगीं मेळटकच खोस जाता ती सुमारा भायली आसता. भुरग्यांल्या भावविश्वांत वतकच हाताक खूब कितें कितें लागता. हांव ह्या अणभवांतल्यान गेलां. तातूंतल्यानच ''पडवेवयलीं संवणीं'' ह्या म्हज्या पुस्तकाची निर्मणी जाल्या. ह्या रंगयाळ्या पुस्तकांत भुरग्यांल्या मनाची रिझवण करता करताच झाडां, पेडां, संवणी - सुकणीं, दोंगर, दर्या अशा सैम आनी पर्यावरणाची सुंदराय तांच्या दोळ्यांत आनी मनांत रिगोवपाचो हांवें यत्न केला. भुरग्यांक खेळोवपी घरांतली जाण्टेलीं, आंगणवाडीतलीं तशेंच मुळावे शाळांतलीं भुरगीं आनी तांच्या शिक्षकांक उपेगी जांव येता अशे पद्दतीन हें पुस्तक तयार करपाचो यत्न केला.

- संजीव वेरेंकार



## हेर पुस्तकां

**कविता संग्रह**

भावझुंबर

मुंबर

गांवांतली सांज

**एकांकी संग्रह**

मांड ओसाड जातना

तिपय

**कवितांची सीडी**

मनपाखां